# भुरग्यांलो इष्ट

बरोवपी

**शणै गोंयबाब**







गोवा कोंकणी अकादेमी

भुरग्यांलो इष्ट

प्रकाशन क्र. ८२





उजवाडावपी :
गोपाळकृष्ण पाडगांवकार
सचिव
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी
पणजी, गोंय

छापपी :
रुतू ऑफसेट
वळवय, फोंडें - गोंय

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां:
गौरीश वेर्णेकार

पयली आवृत्ती
२३ जून २००६

मोल : रु. २५/-

**Bhurgyanlo Ixtt**

Publication No. 25





Publisher
Gopalkrishna Padgaunkar
Secretary
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony
Panaji, Goa





Printer
Rutu Offset
Volvoi, Ponda - Goa

Cover Design & Illustrations
Gaurish Vernekar

First Edition
23 June 2006

Price : Rs. 25/-

# अकादेमीचे वतीन

शणै गोंयबाब म्हळ्यार वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हे आमगेल्या आर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याचे रचनाकार. तांणी दाखयिल्ले वाटेनूच कोंकणी साहित्याचो रथ वचत आसा. तांणी साहित्याचे वेगवेगळे प्रकार यशस्वीपणान केळयले. तातूंत बालसाहित्याचोय आस्पाव जाता.

शणै गोंयबाबांचें सगळें साहित्य 'समग्र शणै गोंयबाब' ह्या माथाळ्याखाला गोवा कोंकणी अकादेमीन एकूण चार खंडांनी उजवाडाक हाडलां. 'भुरग्यांलो इष्ट' ह्या पुस्तकाचो आस्पाव तिसऱ्या खंडांत केला. शणै गोंयबाान ह्या पुस्तकांत बरयिल्ल्यो काणयो देखदिण्यो तर आसाच पूण त्यो सामक्यो आयच्या काळाक लागू जावपी आसात.

त्याच खातीर 'भुरग्यांलो इष्ट' हें पुस्तक तिसऱ्या खंडांत आस्पावन घेवनूय अकादेमी तें स्वतंत्रपणान पुस्तकरुपान उजवाडाक हाडटा. कोंकणी विशय शाळा-कॉलेजांनी शिकयतात. तेखातीर कोंकणी व्याकरणाची एक रीत सगळ्यांनी मानून घेतल्या. 'भुरग्यांलो इष्ट' पुस्तकांतलें व्याकरण आदले पद्धतीचें आसलें. भुरग्यां वाचप्यांमदीं गोंदळ जांवचो न्हय, देखून तें व्याकरण आयचे पद्धतीचें केलां. चित्रकार श्री. गौरिश वेर्णेकार हांणी सोबीत चित्रां काडून पुस्तक बरे तरेन सजयलां.

आमगेल्या माणकुल्या भुरग्यांक हें पुस्तक मानवतलें अशी आस्त आसा.

**पुंडलीक ना. नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# इल्लीशी फोडणिशी

**सातवो पाठ. आपालिपा.**

हांतूंत भुरग्यांचीं लुडबीं उतरां घालून 'आपालिपा, सायलिपा, सायचो गोंडो सोदून काड' अशें म्हळां. 'सायलिपा' आनी 'सायचो गोंडो' हांचे बदला अनुक्रमान 'साळ लिपा' वा 'साळची लिपा' आनी 'साळचो गोंडो' अशेंय म्हणपाची चाल आसा.

**अठरावो पाठ. चांदीमामा.**

हांतूंत 'आळयो-माळयो' हाचे बदला 'हात-माळयो' अशेंय म्हणटात.

**विसावो पाठ. खुतखुतलो.**

हांतूंत 'खुतखुतलो' हाचे बदला 'खितखितलो' अशेंय म्हणटात.



पयलो पाठ

# कोंकणी भास

'माणकुल्या भुरग्या, तूं कोण, तुजो देस कोण आनी तुजी भास कोण ती तूं जाणा?'

'हांव कोंकणो. कोंकण म्हजो देस. कोंकणी म्हजी भास.'

'तुजी भास तुका बरी येता?'

'म्हाका तें उलोवंक येता. बरोवंक आनी वाचूंक येना. म्हाका ती कोण शिकयना.'

'शिकयल्यार शिकशी?'

'बरेभाशेन शिकन आनी हेरांक शिकयन.'

'तुका ती हांव शिकयतां. बेगीन शीक आनी दुसऱ्यांक शिकय.'





दुसरो पाठ

# मडवळणिची नबत

'पि पि पि-पि पि पि!' मडवळणिची नबत जाली. ती काळी चंद्रकळा न्हेसल्या, आंब्याचे उंच तेंगशेर बसल्या आनी पांखाटे फुलोवन म्हणटा, 'ऊठ म्हज्या बाबुल्या. हें पळे भिणभिणलें. सूर्यामामाले गाडयेचे घोडे दिसूंक लागले. ऊठ म्हज्या राया. भायर वचून यो. तोंड धू. आंगावलीं घाल. सूर्यामामाक येवकार दी. आवयक पांयां पड. बापायक पांयां पड. जाणटेल्यांक पांयां पड. शाळेंत वच आंनी बेगीन शीक.'



तिसरो पाठ

# म्हजी बा

म्हजी बा बरोवंक जाणा. ती म्हाका मांडयेर बसयता आनी अपुर्बायेन बरोवंक शिकयता. हांव चुकलों जाल्यार ती म्हाका मारिना आनी उलयना. ती सांगता, हांव शिकलों जाल्यार, शाणो जातलों, बरपाक्षरी जातलों, लोकांच्या बऱ्याक वावुरतलों आनी सगळेजाण म्हाका मान दितले.

शाळेंतसून घरा येतकूच बा म्हाका खांवक दिता. तिणे लाडू, नेवऱ्यो, चेकऱ्यो आनी कोडबाळीं करून चौखांत दवरल्यांत. तिची सांगणी आयकतकूच म्हाका ती शाणुल्या आनी गुणुल्या म्हणून म्हजी उमा घेता. तिची सांगणी हांव आयकतां आनी केन्नाच हट करिना.



चवथो पाठ

# आमचे शणैमाम

आमचे शणैमाम भांगराचे मनीस! ते आमची अपुर्बाय करतात. ते आमकां मारिनात. ते आमचेर दोळे वाटारिनात. पाठ घेंवच्या वेळार ते आमकां लागीं आपयतात आनी मायेन आमचे फाटीवयल्यान हात भोंवडायतात. आमकां तांचो भंय दिसना. आमी आमचो पाठ चुकनासताना घडघडीत म्हणून दाखयतात आनी शणैमाम आमकां तोखेतात.



पांचवो पाठ

# आमचे शणैमाम

बा, आमचे शणैमाम कितले बरे म्हणचे! काल शिकोवंच्या वेळार ताणी आमकां दोन काणयो सांगल्यो. एक कुंडे-कुस्कुराची आनी दुसरी कवडुल्याची; पाठ घेवन जातकूच, ताणी आमकां खारको वांटल्यो; जायते फावटीं सांजेवेळा, ते आमकां न्हंयेचे धडेर आनी दोंगराचेर भोंवक व्हरतात. थंय फातुल्ल्यो, शिपयो, घुलो, पानां, फुलां आनी फळां जमोवन तांच्यो गोड गजाली ते सांगतात. असल्या शणैमामाकडेन शिकूंक आमकां बरें दिसता. बा, आतां हांव बेगीन बेगीन शिकतलों.



सवो पाठ

# खेळ

शणैमाम सांगतात, भुरग्यांनी आपणाचो पाठ जातकूच खेळल्याबगर रावचें न्हंय; खेळल्यार आंग घोळटा, जीव सूड ज़ाता आनी घटाय येता. पणून सगळोच दीस खेळांत घालौंक जायना. बरपाच्या वेळार बरप आनी खेळाच्या वेळार खेळ. शाळा सुट्टकूच, शणैमाम आमचे वांगडा खेळूंक येतात आनी कशें खेळचें तें आमकां दाखयतात. ते म्हणटात, खेळांतूय भुरग्यांनी फटी उलोवंच्यो न्हंयत आनी रडी खांवच्यो न्हंयत. खेळांत हार आयल्यार सोंसून वोगी.रावचें.



सातवो पाठ

# आपालिपा

आमची साळ सुटली गया ! सुटली गया !

आतां आमी खेळुंया गया ! खेळुंया गया !

सोनू, आमी कित्यान खेळुंया? हयवय. आमी आपालिपानी खेळुंया. आमकां आनीक दोन गडे जाय आसले. शाणूक आनी गुणूक आपोवंया? ते पळे हांगाच येतात. नानू, तूं सोनुचे दोळे गच्च धांप. आमी लिपतात. म्हण आतां -

आपालिपा, सायलिपा, सायचो गोंडो सोदून काड. कानांत कितें? मूऽऽऽदी; चल भावाचे सोदी.





आठवो पाठ

# आखोमाखो

नानू, आज आमचे वांगडा राणू खेळूंक आयला. राणू शिकूंक हुशार तसो खेळुंकूय हुशार. राणू, आमी कसलो खेळ खेळुंया? आटफाट, आखोमाखो, कि आन्जीण-मान्जीण?

आदीं आमी आखोमाखोनीच खेळुंया. मागीर आटफाट आनी हेर खेळ. चलात. जायात तयार. धरात खांबे. म्हणात आतां -

आखोमाखो, तेल माखो, तेलकाराचो बुडकुलो फुटलो रे !



णववो पाठ

# म्हजी केळ

ही म्हजी केळ. ही पयलीं ल्हान आसली. तेन्ना तिका नेमो म्हणटाले. तो मांदन्याचे देगेक आसलो. थंयच्यान काडून तो हांगा लायलो. आतां ताची मोटी केळ जाली. हाव तिका सांज-सकाळ उदक घालतां. तिच्या मुळांत न्हातां आनी आंवतां. तिच्या मुळांत पळे कितले नेमे रुजल्यात. तांच्योय मोट्यो केळी जातल्यो. हे केळिचीं पानां पळे कशीं लांब आनी रुंद. ती आतां वियेतली. तिका घड जातलो.तो पिकतकूच बा म्हाका केळीं खांवक दितली. हांव तीं बुकूबुकू करून खातलों.



धावो पाठ

# म्हजो बुकलो

म्हजो एक बुकलो आसा. ताचें नांव घारसो. ताका मेमें जाय. तो पाटार बसता आनी दोळे धांपून गुरूगुरू करता. जायते फावटीं तो बिळासरीं बसता आनी शेपटी हालयत हुंदराची वाट पळेता. हुंदीरमाम येतलो आनी आपुण ताका तोंडांत उडयतलों हे येवजणेंत तो आसता. पुणून हुंदीरमाम मोटो नाड. तो भायर सरना. तो त्या बिळांतसून दुसऱ्या बिळांत रिगता आनी थंयच्यान भायर सरून बोकेमामाक फटयता.



इकरावो पाठ

# मूय आनी तोळ

एके मुयेन गिमाच्या दिसांनी पावश्या दिसांखातीर खाणाचो सांटो करून दवरिल्लो. पावशे दीस लागतकूच, एक तोळ तिचेसरीं येवन म्हणूंक लागलो, 'मुयेमामी, मुयेमामी, म्हाका भूक लागल्या. इल्ल्यो कणयो दिशी? फुडल्या गिमांत हांव त्यो पायन.' मुयेन म्हळें, 'सभाग्या, भुकेन मरसर तूं फाटल्या गिमांत कितें करतालो?' तोळान म्हळें, 'हांव तेन्ना गातालों.' मुयेन म्हळें, 'आतां पेंगट हालोवन नाच.'



बारावो पाठ

# वागमाम

एके रातचें, एक भुकेल्लें वागूट खाण सोदीत गांवांत भोंवतालें. तें एके खोंपीलागसार पावलें. थंय एकली आवय भुरग्याक म्हणटाली, 'वोगो राव पळोवंया, बाबू. आतां आनीक रडशी जाल्यार, तो भायर वागमाम बसला, ताचेकडेन तुका काडून दितलीं. यो रे वागमामा आनी व्हर ह्या रडव्या बाबूक.' हें आयकून वागटाक मोटी खोस जाली. तें जिबली चाटून वाट पळेत रावलें. कांय वेळान भुरग्याची आवय म्हणूंक लागली, 'आमचो बाबू गुणाचो! भोबो खाता चुनाचो! पळे कसो तो वोगी रावलो. ताका आतां हांव वागमामाकडेन दिंवची ना. बाऽरे वागमामा. तूं हांगा आयल्यार हांव तुका फारान मारतलीं. चल थंयचो.' हें आयकून वागूट निर्शेवन गेलें.



तेरावो पाठ

# बुकलो आनी सवणीं

एका रुखावयल्या घोंटेरांतलीं सवणीं वायटांत पडलीं. तेन्ना एक बुकलो थंय गेलो आनी लागशिल्या खांद्यार उबो रावन मेंव-मेंव करून म्हणूंक लागलो, 'तुमच्या जिवाक हालीं बरें ना खंय? म्हाका चड हुस्को जालो आनी हांव बेगोबेग धांवन आयलों. चिके नाड दाखयशात? हांव तुमकां बरोसो कडो लावन दीन.' हें आयकून सवण्यांनी म्हळें, 'नाका सायबा तुजो कडो. आतां आमी बरीं आसात. तुजी गरज पडत तेन्ना तुका आपोवंक धाडूं.' तें पळोवन, बुकलो मेंव-मेंव करीत सकला देंवलो आनी तोंड उंवाळून गेलो.



# म्हजें गोंय!

गोड म्हजें गोंय ! सुंदर म्हजें गोंय!

पुर्विल्ले नामनेचें, चड मोट्या भाग्याचें, उंच माथें कोंकणाचें, हें म्हजें गोंय!

निजाचे अपुर्बायेचें, इंद्रनीळ मळबाचें, भांगराच्या ओताचें, रुप्याच्या चांदन्याचें, हें म्हजें गोंय!

पथीक उदका-वाऱ्याचें, चकचयाळ पिकावळिचें, सोबीत फुलां-फळांचें, शिटूक सावदां-सवण्यांचें, हें म्हजें गोंय !

उजळ संस्कृतायेचें, खरेल्या कुळवंतांचें, उदार मनाच्या लोकांचें, पाटांगड्या विद्वानांचें, बळिष्ट झुजप्यांचें, बुदवंत राजकर्ण्यांचें, वावराड्या कामवटांचें, कर्तुत्वी मनशांचें, हें म्हजें गोंय !

धतरिवयलो सर्ग, हें म्हजें गोंय !

सासणाचें सुख-दिणें, हें म्हजें गोंय !



पंदरावो पाठ

# सह्याद्रि !

सह्याद्रि! सह्याद्रि! हो म्हजो पर्वत!

उंच ताचीं तेमकां. मळबाक चोखतात. सर्गांत रिगतात.

दुदाच्यो झरी ताचे कुशींतसून व्हांवतात.

ल्हान-व्हड रूख ताच्या केंसांवरी दिसतात.

कुंबये आनी कुडे, भेडस आनी दिंडे, हुस्केचे गोंडे, चार आनी हुरे, पोटकळेचे तुरे, ताच्या आंगभर सोबतात.

हत्यांचे हिंड ताच्या पोटावयल्यान धांवतात.

हरणां आनी मेरवां ताका शिंगांनी सांसपितात.

वाग आनी येवलां ताचे धोलींनीं घुरघुरतात.

बोचुड्ड्यो आनी मडवळणी ताची तोखणाय गातात.



सोळावो पाठ

## गोमन्त समुद्र!

हो म्हजो समुद्र ! गोमन्त समुद्र !

खोशयेच्या खातखुतल्यांनी दीसरात हांसता.

उमाळ्याच्या ल्हारांनी भोवनभोवन फुगता.

हालता. धोलता.

कित्याक इतलो नाचता? कित्याक इतलो गाजता? कित्याक भुरकुट्टा? कित्याक मुरगुट्टा? कित्याक तिटतिट्टा?

कोंकणाचे पांय धुंवक तो किटकिट्टा.



सतरावो पाठ

# पावस

घड-घड-घडांयच ! तट-तट-तटांयच! मळबांतली म्हातारी नेटान दळटा! लक-लक-लक! भांगराची वीज तिका पालव धरता! घो-घो-घस-घस! पावसाच्यो धारो ह्यो सकला देंवतात. शिरवळ्यांचे घोंस कशे जिंत्रूप दिसतात! आंबे आनी केळी, माड आनी फोपळी घुसुघुसु न्हातात! मौजेन धोलतात! ठपठप-ठिपठिप! रुखांवयले थेंबे हे मोतयांवरी गळटात! तो पळे सोनुलो! दिवलेंतली वात उदकांत उडयता. तरेकतरा रंगांचीं किरां-मोरां जातात! हो पळे शाणुलो! हाची कागदाची पातमारी मुंबय चल्ली. खळयेवयल्या सपाणाच्या सांकवापोंदसून ती निकतीच भायर सरली. तांतूंत आंबे, पणस, अनसां, साटां, पत्रावळी आनी दोणे भरल्यात. ते विकून तो दुडू हाडटलो.



अठरावो पाठ

# चांदीमामा

हो म्हजो मामा. तो धवें फुल्ल पुडवें पांगुरला. तो म्हाका पळेता. हांव वेतां थंय तो येता. हांव धांवल्यार तो धांवता. हांव थांबल्यार तो थांबता. तो म्हजे वांगडा खेळटा. मामा, तूं म्हाका हाण्डीर धरशी? तूं म्हाका फाटकुळेर मारशी? तूं म्हाका धोंपरांचेर धरून 'आळयो-माळयो, कितल्यो पोळयो' करशी? मामा, तुजे वेंगेंत तो कोण आसा? सोंसो-कसो दिसता. माणकुलोच बरो. ताणे कान पळे कशे फुलयल्यात. म्हाका तो खेळूंक दिशी? आवय आवय! मामा पळे कुपाच्या आडोसाक लिपलो! सोंसो दिंवचो लागता म्हणून भियेलो गया! भियेलो गया! पुणून तो इल्लोइल्लो भायर सरूंक लागलो. आतां लकलकीत बरो दिसलो. अशें कितें मामा? तूं आपालिपा कित्याक करता? ते लागशिले मामीवांगडा तूं खेळटा-सो दिसता. म्हाका आदीं सोंसो दी आनी मागीर जाय तितलो खेळ. म्हजे परस मामी तुका चड अपुर्बायेची? सोंसो दिना जाल्यार हांव तुजेर रागार जातलों. हांव तुजेकडेन उलोवंचो ना. पळे मामा. दिना मू तूं सोंसो? तोड म्हजी भागा.



इकणिसावो पाठ

# कुकूलो बाबू

म्हजे आवयक रातीं कुकूलो बाबू जाला. तो मुठी आंवुळटा आनी बिटीबिटी पळेता. हांव ताका मांडयेर घालतलीं आनी सतू-भोबो भरयतलीं. हांव ताका तेलू घालतलीं आनी 'आखण-माखणू बाबाच्या जिवा राखणू' म्हणटलीं. हांव ताका घुसुघुसु करून न्हाणयतलीं. ताच्या दोळ्यांत काजळ घालतलीं आनी 'आंदा-बांदा गिरगिर चांदा, वाटीभर गंदा, शिपीभर अक्षता, बाबाच्या कपळाक तीती' करतलीं. हांव ताका पाळण्यांत घालतलीं आनी जय-जय म्हणून झोंपय काडटलीं. आजो ताका जंद्री-वाळो घालतलो आनी मागीर हांव गातलीं -

जंद्री-वाळ्यांच्या रे बाबा, पावली नाचयी
पणजेसाकून मामा येतलो, ताका दाखयी
कावळ्या-काक्या रे बाबाच्या मामा देखिल्लो?
देखिल्लो सांतेकू रे ताच्या सत्री खांकेकू

आजी ताका मणकुट्यो आनी दालीं घालतली आनी हांव म्हणटलीं-

था गे था कशी थातांची
गोऱ्या गोऱ्या माणकुल्या हातांची
दाल्यांचे कान, ताची मोट्टा कशी मान !

मागीर बाबू आपले हात नाचयतलो आनी मान हालयतलो. कांय म्हयन्यांनी तो उबो रांवक करतलो आनी पांय नाचयतलो. तेन्ना हांव म्हणटलीं -

थोंट्या मिंड्या कांड रे फोव
थोंट्यागेर भुरगीं भोव
थोंटो मिंडो फोव कांडिता
भुरग्यांक मिंडो वांटून दिता
आपुण मिंडो तुसां खाता !



विसावो पाठ

# खुतखुतलो

आज आमगेर खुतखुतलो. निरुआकाक मांयन अपुर्बायेचोच भाणस धाडला. तांतूंत माणकुलीच थाली, दाय, दवलो, कांसशो, कांसलां, तोप, भोगुणीं, वेळण्यो, हुरउळी, गिंडी, लोखणी, तवो, कायलाथो, परात, हेलाप्यांची कायल, सांदण-धांकणो, शेवगो, चक्रदांतो, आदोळी, कोयतो, किसणी, रगडो, कोळमुळां, लाटफळें, लाटणी, चिरणें, हांडो, गंगाळ, तांबये, चेंबू बी सोबीत बरी मुस्तायकी आसा. तिणें तांदूळ, दाळ, वाटाणे, मूग, साकर, गोड, तूप, तेल, एळ, सांबार, नाल्ल, शाकभाजी, शित्यांचो वेडो, दोणांचो काट बी जेवणाचेंय साइत्य धाडलां. रांदता आसताना निरुआकाक न्हेसूंक नवो ताल तांबडो गाळो आनी रसमी अंजिरी खणाची चोळी धाडल्या. शेजारच्या सगळ्या भुरग्यांक आमी आपयल्यांत. ताणीय जेवणाची इल्लीइल्ली मुस्तायकी हाडल्या. निरुआका आनी आमी सगळीं भुरगीं मेळून रांदतलीं. मंजुळें शाक शिंदतलें. गजरें सोय कांततलें. गोकळें वांटून दितलें. माणकें आंबाड्यांची हुड्डुमेथी करतलें. हांव हेलापे काट्टलीं. मागीर आमी जेवतलीं.



एकविसावो पाठ

# गोंयचें बन्दर !

हें म्हजें बन्दर ! गोंयचें बन्दर !

गोमन्त समुद्राच्या रेंवाळ वेळेचेर तें उबें रावलां. खारसाणिचो घमघम ताच्या आंगाक सुटला. धव्या फुल्ल शिडांचें फसफशीत कापड तें न्हेसलां. शेवट्याच्या चकचकीत खवळांची चेप कशी चोळी ताणे आंगाक घाल्या. रांपणिचे जाळयेची ओल तें पांगुरलां. तारवाचो तिख्याचो नांगर ताणे आम्माड्यांत खोयला. शेतकाचो घसघशीत तिळो ताणे कपळाक लायला. वागयेची सोबीत बाळी ताणे नाखांत घाल्या. मानग्यांच्यो गांठा-सरपळ्यो ताच्या कानांत झगझगतात. खांपिंचें गांठलें ताच्या गळ्यांत लकलकता. सकयांच्यो पाटल्यो ताच्या हातांत खुळखुळटात. हेंवाळ्याचें न्हेवाळें ताणे कमरेंत घालां. तांतूंत संवसारांतल्या पेठांच्या चावयांचो घोंस ताणे गच्च खोयला. उजव्या हातांत ताणे पाजयल्ली नागडी तरवार उबारल्या. दाव्या हातांत दारवेन भरिल्ली नाळ धरल्या. फाटीर ताणे गंडभैरवाचें विमान बांदलां. संवसारांतलीं तारवां ताच्या पांयार लोळटात. वापोर आनी बतेले, कोठवे आनी सवदे, पातमारी आनी पांगाय, पडाव आनी पनेळ, उलांडी आनी तोळ ताचे सेवेक वावुरतात. लंखेच्या मोतयांनी ताची होंटी भरतात. जपानच्या कापराची ताका आरथ दाखयतात. मोलादीक गिरेस्तकायेचें ताका पागण घालतात. ताची तीड काडूंक कोणाक काळीज जायत? संवसाराचो काळ लेगीत ताका थर्त भियेता आनी तकली बागयता!



बाविसावो पाठ

# कवडुलो पोर

'कुट कुटूऽऽऽरु! कुऽऽऽरु!' तळ्याच्या बांदार जांबळिच्या कुचकुचीत पानांतसून खोल घोगऱ्या ताळ्याचो बारीक सूर आयकूंक आयलो. "कोण हो वर्पता? आनी कित्याक वर्पता? ताका थंडी जाल्या? ताका जोर आयला?" बाबुल्यान शणैमामांक विचारलें. "तो कवडुलो." शणैमामांनी म्हळें. "ताका एक दीस फोव खायन-शे दिसले. ताणे बायलेक सांगलें, आपणाक फोव कांडून दी. तिणे फोव कांडले आनी कचकचीत घाणो हाडून ताच्या फुड्यांत दवरलो. ताणे ते तोंडांत घाले. पणून रुचीक लागले नात. मागीर ताणे भयणीक फोव कांडूंक सांगलें. तिचें नांव सीता. तिणे घाण्याचे फोव आसडून, फापडून ताका दिले. तांतूंत कुंडो नासलो. ते थोडे पुणून निवळ आसले. ताका दिसलें, ते भयणीन खाले; देखून उणे जाले. ताका तिचो राग आयलो आनी मुसळ काडून ताणे तिच्या कपळार घालें. ती घुंवळून पडली. तो फोव खांवक बसलो. ते ताका गोड लागले. ताका आपली चूक समजली. फोव भयणीन खांवक नात. ते आसुडले म्हणून थोडे जाले. ताका मोटें वायट दिसलें. तो तिका उठोवंक लागलो. पुणून ती उठना जाली. तिचो जीव गेलो. ताका मोटो खेद जालो. देखून, तो तिच्या नांवान वर्पता -

'ऊठ गे सिते, कवडुलो पोर !
सितेचे हातचे फोव गोड !'"



# आणकु-माणकूल्यो

अगो माणक्या, अगो चंद्रा, आमी आणकु-माणकुल्यांनी खेळुंया. म्हणात-

हरहरहर बोटयो !

हात उमथे घालात.

आणकु-माणकूल्यो, सवण माणकूल्यो,
कुर्कुटांत माजर बसलें, पेज कर गो माजरा.
शिरोडेची कायल, बांदोडेचो दवलो,
कोणाक जाय धुमको?

वुय म्हणात.

हात उदारे करात. आणकु-माणकूल्यो सवण माणकूल्यो... वुय म्हणात. हात फाटीवसल्यान लिपयात. आतां सांग चंद्रा. तुजे हात खंय गेले? कोंकणांत. कोंकणान कितें दिलें? केळीं-खोबरीं. केळीं-खोबरीं कितें केलीं? बरीं बरीं खालीं. वायट वायट आड्याभायर उडयलीं. आड्यान कितें दिलें? चार. चार कितें केली? गायक घाली. गायन कितें दिलें? दुदुलो. दुदलो कितें केलो? शिक्यार दवरलो. शिक्यावयलो कोणे व्हेलो? मडवळणिच्या चेडवान. मडवळणिच्या चेडवान कितें दिलें? आंगाचीं धुवन दिलीं. आंगाचीं कितें केलीं? सकाळीं उठून न्हालीं, धुलीं, आंगाचीं घालीं आनी देवाची पुजा केली. देवान कितें दिलें? प्रसाद. प्रसाद कितें केलो? आवयच्या माथ्यांत माळ्ळो. आतां एकामेकांल्या पांयांचेर पांय दवरून तांचेर हात धरात आनी म्हणात-

आप्पड पाप्पड चेम्बू लाडू, दाकोजीचें एक पान, धर गे बिंबे म्हजो खांद.

सगळ्यांनी एकामेकांले खांद धरून जाले? म्हणात तर -

केंव-मेंव घरे खांव, पातोळेचें उदक पियेंव !

कुतुल्यो ! कुतुल्यो ! कुतुल्यो ! कुतुल्यो !





चोविसावो पाठ

# वनदेवतेचो फळार

वसंत रुतू लागून जायते दीस जाले. वनदेवता नवीं कापडां न्हेसली आनी राना-मळांतसून भोंवन तळ्याच्या हारशांत आपलें रूप ओखेंवक लागली. तिका पळोवन, सुकण्यांक आनी सावदांक मोटी खोस जाली. ताणी तिका फळार घालचो केलो. कावळ्यान काव-काव करून म्हळें, 'रसाळ आनी कापे पणस राशीनी लागल्यात. तांची वानी काडून हांवें दवरल्या. म्हजे सवळे तोंचीन हांव घरे हाडूंक चल्लों.' चानयेन शेपटेचो गोंडो फाटीवयल्यान फुलोवन म्हळें, 'हांव आंबे हाडूंक चल्लीं. मानकुराद आंबे पिकून हळडुवेच जाल्यात.' किरान कें-कें करून म्हळें, 'हांव पेरां, जगमां आनी जांब हाडूंक चल्लों.' बोचुड्डेन म्हळें, 'हांव जांबळां आनी चुर्णां हाडूंक चल्लीं.' मडवळणीन म्हळें, 'हांव कारांदां, चारां, हांसाळे आनी फातरफोडे हाडूंक चल्लीं.' वानरान हुप-हुप करून म्हळें, 'हांव कुळागरांतलीं केळावलीं आनी अनसां हाडूंक चल्लों.' कांय वेळान फळार जमा जालो. वनदेवता गोमन्त पर्वताच्या उंच तेमकाक वणखून बसली. दुदसागरान तिचे पांय धुले. साळोरेन तिका निवेद्य दाखयलो आनी आपले भांगरासारके तोंचीन तो तिच्या तोंडांत घालो. मागीर सुकणीं आनी सावदां एके पंगतीक बसून सगळ्यांनी फळार खालो.



पंचविसावो पाठ

# वनदेवतेचो धोलारो

सह्याद्रिच्या मुळसांत पांचव्या चार दुर्वांची शेंदरी घाल्या. थंय वडाच्या पाळांब्यांचो धोलारो बांदला. भोंवतणी वियेल्ल्या केळिंचें मखर केलां. माडाच्या धव्या फुल्ल सुयांचीं आर्कां वळ्ळयांत. आंब्याच्या ताळयांचीं तोर्णां बांदल्यांत. हुस्केचे गोंडे वाटभर पातळायल्यात. इतले म्हणसर, 'कडडड-डडडड! कुटुरुक! कुटुरुक!' कुटुऱ्यान म्हळें. 'पिपिपि-पिपिपि!' काळी चंद्रकळा न्हेशिल्ले मडवळणिचें पेंपारें वाजलें. 'पिक-पिक-पिक-पिकांव!' कुचेकारीण बोचुड्डेचें गीत गाजलें. वनदेवता धोलत धोलत आयली आनी मखरांतल्या धोलाऱ्यांत बसली. केळिच्या पानांचो पांचवो तपशिलो ती न्हेशिल्ली. कांसाळ्वाची चोळी तिणे आंगाक घाल्ली. पिकिल्ल्या बेड्यांची गळसरी तिच्या गळ्यांत सोबताली. दवाच्या मोतयांची वाळी तिच्या नाखांत घिसघिसताली. चंद्रिमाचो तिळो तिचें कपळभर लकलकतालो. कवाश्याच्या खोंचणा भोंवतणी साळकांची पटी तिणे माथ्यांत माळिल्ली. आंब्याचीं तंवरां आनी पणसाचीं दाबणां तिणे मौळांत खोयिल्लीं. धुत्र्याचीं फळां तिणे कानांत घाल्लीं. तरणे चुट्टेच्यो पाटल्यो तिच्या हातांत आसल्यो. माडाचें शेलें तिणे मुठींत धरिल्लें. कोगूळ आनी साळोरी तिका धोलांवक लागलीं -

धोल ! धोल ! धोलांची । देवी आमची कोंकणाची
राणी शेतां-भाटांची । धनीन उदका-वाऱ्याची.



सविसावो पाठ

# 'हांव कितें करतलों?'

'हांव बरप शिकून जाणटो जातकूच, शेत-कामत करतलों. हांव शेतां, भाटां, पोरसां आनी कुळागरां लायतलों. हांव भात पिकयतलों. हांव फुलां फुलयतलों. हांव तरेकतरा सारीं घालतलों आनी पडिंग जमनी पिकाळ करतलों. म्हजीं शेतां पाचवीं चार. हांव एका पिका बदला पांच पिकां काडटलों. एके खांडये बदला धा खांडयांचें माप घेतलों. म्हजो नाल्ल कळसो कसो. म्हजो आंबो अमृता-शिंसो. हांव खाण-जेवण फुकेसवाय करतलों. दुबळ्या-धाकट्यांक धादोसकाय हाडटलों. म्हज्या कोंकणांत उपासांनी कोण वळवळचो ना.'

'हांव उद्योग करतलों. हांव मांड-पसरे घालतलों. म्हजीं वेपाराचीं तारवां संवसाराच्या सगळ्या बंदरांनीं भोंवतलीं. म्हज्या कोंकणांतलो म्हाल सगळ्या पेठांनीं पावतलो. हांव जायतो दुडू जोडटलों. हांव व्हडलो गिरेस्त जातलों आनी सगळ्यांक गिरेस्त करतलों.'

'हांव वैज जातलों. हांव तरेकतरा वखदां आनी रसायणां सोदून काडटलों. हांव संवसारांतली पिडा ना करून उडयतलों. हांव लोकांचीं बुरशेपणां, अळशीक आनी घाण ना करून तांकां झळझळीत रांवक शिकयतलों. हांव तांकां वज्राच्या आंगाचे करतलों. मागीर कोणाक खोरजेची पुळी जांवची ना. कोणाचें आंग तापचें ना. कसलीच धाम येंवची ना. कोण बेगीन मरचो ना.'

'लोक एकामेकांक उणे लेखतात. एकामेकांची तीड काडटात. झगडीं झुजां मातयतात. मारतात, धपट्टात, फटयतात, नागयतात, तें म्हाका मानना. लोकांचें नष्टेपण वचून ताणीं मायेमोगान चलचेखातीर हांव कसलोय उपाय सोदून काडटलों. आनी संवसाराक सस्तताय हाडटलों.'

'हांव झगडटलों आनी झुजतलों. हांव तरवार वावुडटलों. हांव तुबकां आनी नाळी पेटयतलों. हांव ठो-धुडुम् करतलों. हांव विमानांनी अुडटलों. हांव दारुगुळयांचो पावस घालतलों. हांव दुस्मानाच्या हड्ड्यार बसतलों. ताका चेंचतलों. गुड्डायतलों आनी माड्डायतलों. तो गरीब दुबळ्यांक आपल्या बळग्याचो नसतोच हावको दाखयता, तांकां भेष्टायता, तळमळायता आनी वळवळायता. त्या मस्त्याची मस्ती हांव जिरयतलों. गरीब दुबळ्यांचो जो दुस्मान तो म्हजो दुस्मान. तो संवसाराचो दुस्मान. ताका ना करून हांव संवसाराक हुस्क्या-मेकळो करतलों.'

'म्हाका कितें कितें करचेंशें दिसता. म्हाका सुकण्या भाशेन उडचेंशें दिसता. तें माथ्यावयलें उंच मळब आनी तांतूंत मोतयांवरी ओतिल्लीं तीं नक्षत्रां पळोवन, म्हजो जीव मिडमिट्टा. म्हाका तीं बचके मारून पुंजावचींशीं दिसतात. हांव जाणटो जातकूच ल्हवपीक पांखाटे लायतलों आनी घोणीभाशेन उडटलों. हांव उंच उंच वेतलों. हांव सुर्यावळी, गिरावळी आनी नक्षत्रावळी रांगशितलों. खंय कितें आस तें पळेतलों. हांव थंय कोंकण्यांची वसणूक करतलों आनी सगळें ब्रह्मांडभर कोंकणी संस्कृतायेची घुडी उबारतलों. हांव सगळ्या ब्रह्माण्डाक कोंकणी भास शिकयतलों आनी सगळ्या संवसाराचें कोंकण करतलों.'



